# जिवीत एक तियात्र

बरोवपी

**शेरॉन माझारेलो**







श्री हरि प्रकाशन

**JIVIT EK TIATR**
A collection of Skits
Sharon Mazarello

बरोवपी : शेरॉन माझारेलो

प्रकाशन क्र. २





पयली उजवाडावणी : २७ ऑगस्ट, १९९८

उजवाडावपी
दीपा दिनकर मुसुंडे
श्री हरि प्रकाशन
३८९/अ, शांतिनगर
आर्के-बायश; नावेली, गोंय ४०३ ७०७






अक्षर जुळणी
राजेश भाटीकार
तन्वी ग्राफिक्स, मडगांव – गोंय



छापपी
हिरू नारायण नायक
रुतू ऑफसेट, वळवय, फोंडें – गोंय

मुखचित्र : योगेश कापडी

मोल : २० रुपया

# फुडलें शिकप

पात्रां :
आवय, फादर, लोरेन

[मिसेस मेंडिसाचें घर. घराचें एक साल दिसता. सालांत एक खाट, दोन कदेलां, एक टी-पॉय आनी वणटीक तेंकून एक ल्हान मेज. मेजार पुस्तकां आनी टेबल लॅम्प आसा. त्याच मेजार आपलें पुस्तक दवरून, कदेलार बसून मिसेस मेंडिसाची सुमार १४ वर्सांची चली लोरेन लिसांव करता. कुजनांत सावन तिची आवय मिसेस मेंडिस भायर येता. मिसेस मेंडिस कापड न्हेशिल्ली, शिकप नाशिल्ली बायल. तिच्या हातांत एक मग. मगांत गरम सूप आसा.]

**आवय** : बाय! सकाळीं सावन तूं लिसांव करता तें आतां मातशें बंद कर. इल्लो सुशेग घे, आनी हो सूप पिये. धर. [तिच्या हातांत मग दिता. लोरेन सूप घेवन कदेलार बसून पियेवंक लागता. मिसेस मेंडिस तिचे वांगडा खाटीर बसूंक बॅल वाजता.]
कोण आयलो दारार! आतां तुका सुपूय पिवंक थीर मेळचोना. चल, तूंच दार उगड आनी कोण आयला तीं पळय. हांवें रान्नीर शीत करूंक दवरलां तें खंय पावलां तें पळयतां. [ती कुजनांत वता, लोरेन दार उगडटा. फादर जॉन, सुमार ५० वर्सां पिरायेचो पाद्री भितर सरता.]

**फादर** : हॅलो! कशें आसा गो बाय? मांय घरांत ना?

**लोरेन** : आसा फादर, भितर यो. मांय कुजनांत आसा. येतली. बस.

**फादर** : [बसता] तुज्यो एस.एस.सी.च्यो फायनल एजामी फुडल्या सोमाराक, न्हय?

**लोरेन** : हय फादर.

**फादर** : तयारी कशी चलता? बरी मुगो?

**लोरेन** : चलता फादर.

**फादर** : फक्त चलता? धांवना? धांवपाक जाय! एजामीक फक्त आठ दीस उरल्यात. आतां धांवना तर केन्ना धांवतली तर ती?
[लोरेन कांयच म्हणना. सांगूक लजता.]

लिसांव चालू आसलें ? म्हाका लागून बंद करचें पडलें ?

**लोरेन** : ना फादर. रेस्ट घेतालीं. मांयनूच सांगलां, थोडो वेळ लिसांव बंद कर आनी सूप पिये म्हणून.

**फादर** : पिये पिये. हांव मांयंक रावतां. [थोड्या वेळान] चेडवा, म्हाका एक सांग, तुवें एस्.एस्.सी. केल्या उपरांत कितें करपाचें चिंतलां ?

**लोरेन** : कांयच ना फादर.

**फादर** : कांयच ना ? कांयच ना म्हणजे ? एस्.एस्.सी. केल्या उपरांत घरांतूच बसतलें ?

**लोरेन** : तशें न्हय फादर. एस्.एस्.सी. अजून काबार जावंक ना न्हय ?

**फादर** : आठ दीस उरल्यात मुगो ! ते उपरांत आनीक आठ दिसांनी एजामी काबार. मागीर म्हणटलें, रिजल्ट येवंक ना न्हय, रिजल्ट येवंदी. आनी तुजो रिजल्ट ये पासून तूं चिंतूंक रावलें जाल्यार मागीर तुका बऱ्यो बऱ्यो कॉलेजी ॲडमिशनाक रावतात ?

**लोरेन** : पूण मांय सांगता...

**फादर** : [इल्लो मोठ्यान] मांय कितें सांगता ? मांयन कॉलेज पळयल्या ? मांयचेर पातयेवन रावल्यार तूं कॉलेजीक पावतलें मुगो ?

**लोरेन** : तशें कित्याक म्हणटा फादर ?

**फादर** : चेडवा, आयक. शिकप करतलें तें तूं. समाजांत आबरू मान भोगूंक जाय तो तुका. गिन्यानार उजवाड हाडूंक जाय तो तुज्या, मांयच्या न्हय. हय मुगो ?

**लोरेन** : हय फादर.

**फादर** : तूं मांयची खबर म्हाका सांगता ? मांयची बुद्द घेवपाक जाता. केन्ना ? कोणाचे मांयकूय बरें शिकप आसता पळय, तेन्ना. तुजी मांय तर आशिनाद कर म्हटल्यार बोट मारपी. हय मुगो ?

**लोरेन** : [हय म्हूण मान हालयता] तर कितें केल्यार बरें फादर ?

**फादर** : हांव जाणां ? पळय, तुमच्या इस्कोलांत वोकेशनल गायडन्स क्लासीस घेवंक नात ?

**लोरेन** : घेतिल्ल्यो फादर.

**फादर** : तुमच्या इस्कोलांत 'पर्सनालिटी डेव्हलपमेंट कोर्स' दिल्लो ?

**लोरेन** : हय, दिल्लो फादर.

**फादर** : जाल्यार, तुमच्या इस्कोलांत हें सगळें कित्याक म्हणून केल्लें ?

तुवें एस्.एस्.सी. उपरांत कितें करूंक चिंतलां म्हणून कोणेंय विचारल्यार, मांयक विचारून सांगतां म्हणपाक ?

**लोरेन** : ना फादर.

**फादर** : आयक, आयच्या समाजांत इस्कोलाचीं भुरगीं आपूण स्वता आपलो व्यवसाय थारायतात. मांय-पायच्यान कोणाकूच 'हें कर आनी तें कर' म्हणून फोर्स करूंक जायना.

**लोरेन** : तें हांव जाणां फादर, पूण कशें कितें करूंक जाय तें मात हांव नकळो.

**फादर** : एक पावट तुज्या मनांत आयलें की आपूण एस्.एस्.सी. उपरांत फुडलें शिकप करतलें म्हणून, तेन्नाच चवकशी सुरू करपाक जाय. तसलें शिक्षण खंयचे खंयचे कॉलेजींनी मेळटा ? त्यो कॉलेजी खंय आसात ? शिकप कितलीं वर्सां मेरेन चलतलें ? खर्च कितलो ?

**लोरेन** : ही सगळी माहिती खंय मेळटली फादर ?

**फादर** : हें तूं म्हाका आयज विचारता ? कित्याक ? हांव तुमगेर पावलां म्हणून ? इतल्यांत कांयच जावंक ना. आनिकूय कितलीशीच माहिती काडपाक जाय. एडमिशनां केन्ना सावन सुरू जातात, ॲडमिशन फक्त एस्.एस्.सी. एजामीचेच मार्क पळोवन दितात, वा वेगळी 'एन्ट्रन्स एजाम' आसता ? फक्त एस्.एस्.सी. मार्क पळोवन एडमिशन दितात जाल्यार कितले मार्कस् मेळोवपाक जाय ? ही सगळी माहिती जण एकल्यान पयलींच काडून दवरपाक जाय. ही माहिती आतां मेरेन तुजे लागीं आसूंक जाय आसली. [कुजनांतसावन आवय भायर येता.]

**आवय** : कोण ? फादर ? कशे आसात तुमी फादर ? हांवूय म्हणटां, हें कोणा लागीं उलयता काय म्हणून.

**फादर** : लोरेनाक विचारतालों, एस्.एस्.सी. केल्या उपरांत फुडलें शिकप कसलें घेवपाचें थारायलां काय म्हणून.

**आवय** : विचार, तिकाच विचार तूं फादर.

**फादर** : तिका विचारूं ? [लोरेनाक पळोवन] आयकलां मुगो ? तूं म्हणटा तिका विचार. ती म्हणटा तुका विचार. तुमी दोगांय एकामेकांक वरस भर विचारीत रावात. तितले म्हणसर फुडल्या वर्साच्या

भुरग्यांचो एस्.एस्.सी. रिजल्ट भायर सरतलो.

आवय : ह्यो असल्यो खबरो म्हजे असल्यांक आसतात फादर ?

फादर : तुजे असल्यांक कसल्यो खबरो आसतात तर ? फक्त सूप करून दिवपाच्यो ? तिचें पोट भरलें म्हणटकच तुजी जबाबदारी सोंपली ? तिका कुडीन वाडयली म्हणटकच जालें ? गिन्यान कोण वाडयतलो ? हेर बऱ्यो-वायट गजाली कोण शिकयतलो ?

आवय : तर हांव कितें करूं फादर ? म्हाका कितें समजता तें ?

फादर : [लोरेनाक सांगता] बाय, तूं मातशें भितर वच. म्हाका मांय लागीं कितें उलोवंक जाय. [लोरेन भितर वता आसतना...]

आवय : बाय, फादराक इल्लो सूप गरम करूंक दवर.

फादर : अेरमेलिंद, आयक. तुज्या भुरग्यांची जबाबदारी तुका कशीच चुकना. 'म्हाका कितें समजता ?' म्हटल्यार जायना. जो मनीस नकळो आसता तो जाणा आसलेल्या म्हऱ्यांत वचून जाणविकाय घेता. 'हांव नकळो आसलीं' म्हणून कूस मारूंक सोपें. पूण लुकसाण तुकाच. तुजी धूव समाजांत फाटीं उरतली, त्रासांत पडटली आनी एक दीस तुकाच शिणटली.

आवय : म्हाका कितें कर म्हणटा फादर ?

फादर : दुसऱ्यांच्या भुरग्यांक पळय गो ! कोण इंजिनियर जातलो म्हणटा, कोण दोतोर जावपाचें चिंतलां म्हणटा, कोण टिचर जाल्यार कोण बिजनेस मॅनेजमेंट म्हणून सांगतात. तांच्या मांय-पायन सगली तयारी करून दवरल्या आपल्या भुरग्यांक खंय आनी कशें एडमिशन घेवपाक जाय तें, फुडलें शिकप करपाक.

आवय : आमच्या मांय-पायन आमकां तसलें कांयच दाखोवंक ना फादर !

फादर : तेच पासत म्हणटां हांव, तुज्या मांय-पायन तुका भोटें केल्लें म्हणून तूं तुजे धुवेक भोटें करता ?

आवय : तिवूय कांयच विचारिना फादर.

फादर : ज्या वातावरणांत भुरगीं वाडटात, तेच परी भुरगीं जातात. तुवें तिका फुडाकार घेवपाक शिकोवंक ना, म्हणटकूच ती फुडाकार घेना. आतां तिका चवदा-पंदरा तरी वर्सां जाल्यां आसतलीं मुगो ?

आवय : आसतलीं फादर.

फादर : म्हणटकच आतां ती वाडटा. तुवें तिका असले पिरायेर, एका

चेडवाच्या आंगांत कसलीं बदलपां येतात तीं तरी सांगल्यांत?

**आवय** : ना फादर. हांवूच नकळों कशें सांगचें तें. म्हाकाच लज दिसता तसल्यो खबरो उलोवपाक. तिवूय कांयच विचारिना.

**फादर** : हेंच तें. ती विचारिना म्हणून तूं सांगना. ह्यो गजाली नकळो जाल्लीं कितलीं चेडवां जावं चेडे त्रासांत पडल्यांत तें जाणा तूं? फाल्यां तें नेणारपणांत कोणाय बराबर पळून गेलें जाल्यार मागीर कोणाचो गुन्यांव करपाचो?

**आवय** : आमकां आमच्या मांय-पायन तसलें कांयच शिकोवंक ना फादर.

**फादर** : तरी तेंच उलयता. आयक, ते इगर्जेच्या वाड्यार, मिसेस मेन्डोन्साक वळखता तूं?

**आवय** : हय फादर.

**फादर** : ती एक समाजीक वावुरपी. ती तुजे धुवेक बरी बुद्द दितली. लोरेनाच्यो एजामी जातकच तूं तिका तिच्या फुड्यांत धाड. हांवूय तिका सांगतां. तुजे लागीं जायना तें काम ती करतली.

**आवय** : बरें फादर.

**फादर** : धुवेक आपय.

**आवय** : बाय लोरेन, हांगा यो. फादर आपयता. [ती येता.]

**फादर** : पळय लोरेन, भुकेल्लो मनीस आपशींच आपलें जेवण सोदून काडटा. दुसऱ्यान जेवण आपल्या तोंडांत घालीसर रावना. आनी जो तसो रावता, तो उपाशीं मरूंक पावता. इश्कोलाच्या भुरग्यांनी आपआपलो मनपसंद व्यवसाय वेंचून काडूंक जाय आनी तो व्यवसाय नदरेंत दवरून, फुडलें शिकप करूंक आपलीं फुडलीं पावलां मारूंक जाय. ही जबाबदारी भुरग्यांनी आपल्या मांय-पायचेर पासून सोंपोवंक फावना. आयकलें मुगो?

**लोरेन** : हय फादर.

**फादर** : तर, आतां म्हाका नव्यान सांग, एस्.एस्.सी. पास जाले उपरांत तुवें कितें करूंक चिंतलां?

**लोरेन** : [लजेन] मांयक विचारून सांगतां फादर.

**फादर** : [रागान] तरी तेंच?

[सगळीं पुतळे कशीं उबीं रावतात. सवका सवका काळोख जाता]

[पड्डो पडटा]





# देवाची रचणा

पात्रां :
रुदोल्फ, विल्मा, जोकीं

[विल्माचें घर. सादारणशें घर. एका कोनशाक एक पिंजरो हुमकळायला आनी पिंजऱ्यांत एक शेवणें दिसता. घरांत विल्माचो, सुमार १० वर्सांचो चलो रुदोल्फ एका वॉल्तेरार धोलता. ताच्या तोंडार राग दिसता.]

**रुदोल्फ** : [थोडो वेळ आवयक रागान सो पळयता. उपरांत] मांय, दार उगड गे. हांव एक वर तरी भायर खेळूंक वचून येतां.

**विल्मा** : कित्याक ? तुज्यान घरांत खेळूंक जायना ?

**रुदोल्फ** : घरांत कसो खेळटलों ? म्हजे सगळे इश्ट भायर म्हाका रावतात.

**विल्मा** : तुका इश्ट कित्याक जाय ? तूं म्हजे वांगडा कॅरम खेळ.

**रुदोल्फ** : [रागान] म्हाका कॅरम नाका. म्हाका म्हज्या इश्टां वांगडा म्हाका आवडटा तसलो खेळ खेळपाक जाय.

**विल्मा** : तुका भायर कित्याकूच वचूंक जाय ? हांगा घरांत तुका कितें उणें आसा ? वेळार तुका खावपाक मेळना ? जेवण मेळना ?

**रुदोल्फ** : कितें गे मांय तूं ? म्हाका घरांत भितर रावून फक्त पोटूच भर म्हणटा ?

**विल्मा** : लिसांव कर !

**विल्मा** : भुरग्यांनी फक्त पोट भरपाचें आनी लिसांव करपाचें ? इतलेंच मुगे ? म्हाका इश्ट नाकात ? खेळूंक नाका ? भोंवंक नाका ? उलोवंक नाका ? फकाणां करूंक नाका ? हें घर एक प्रेजांव वा कैदखानो कशें जालें मुगे ! भायलो वारो मेळना, देवान रचिल्लो संवसार पळोवंक मेळना, कुडीक एक्सररसायझ ना... कसलें हें जिवीत ?

**विल्मा** : सारकें तुजें. खरेंच, देवान आमकां रचल्यांत एक स्वतंत्र जिवीत जियेवंक, न्हय बंदखणींत कशीं रावूंक. आमकां आमचे

स्वतंत्रतायेचेर कोणेंय आडखळ हाडल्यार तकलेक तिडक मारता. पूण स्वतंत्रताय तुका एकल्याकूच फावो अशें न्हय. आमी जाणा जावंक जाय, आमकां जितली स्वतंत्रतायेची गरज आसा तितलीच गरज दुसऱ्यांकूय आसता म्हणून.

**रुदोल्फ** : हांवें केन्ना ना म्हटलां गे ? म्हाका तितलीच तुकाय गरज. आमकां सगळ्या मनशांक तीच गरज !

**विल्मा** : मनशांकूच न्हय, देवान रचिल्ल्या सगळ्या रचणांक तितलीच गरज, जावं तीं जनावरां वा झाडां वा शेवणीं. तुका दिसता, सुकण्याक बांदून दवरलें वा घरांत बंद करून दवरलें जाल्यार तें सुखी आसतलें ? बैलांक फक्त जोत कोसूंक व्हेले आनी परत हाडून गोठ्यांत बांदून दवरले म्हणून तुका दिसता ते खोशी आसतात म्हणून ? तांकां भोंवपाक नाका ? तांकां वारो नाका ? तांकां देवान रचिल्लो संवसार पळोवंक नाका ? तांणी जाल्यार फक्त जोत कोसपाचें आनी पोट भरपाचें ?

**रुदोल्फ** : पूण कोणें ना म्हटलां गे ? हें सगळें तूं म्हाका कित्याक सांगता ? हांवूय तर तुका तेंच सांगतां.

**विल्मा** : ना. तूं तेंच सांगिना. तूं फक्त आपली स्वतंत्रताय सोदता. 'दुसरे मेल्यार मरूं, आपलें मात पोट भरूं' अशें तुजें चिंतप.

**रुदोल्फ** : ना, म्हजें चिंतप तशें न्हय.

**विल्मा** : उलोवप एक आनी करप दुसरें. असल्यांक समाजांत 'दोन तोंडाचे' म्हणटात. म्हज्या पुता रुदोल्फ, जर खरेंच तूं आपसुवार्थी न्हय आनी तूं सगळ्यांचे स्वतंत्रतायेचें चिंतपी, जाल्यार म्हाका सांग, [पिंजऱ्याक बोट दाखोवन] हें शेवणें कोणाचें ?

**रुदोल्फ** : म्हजें.

**विल्मा** : जाल्यार, ताका देवान रचूंक ना ?

**रुदोल्फ** : रचलां.

**विल्मा** : आनी तुका दिसता तें ह्या पिंजऱ्यांत खुशाल आसा म्हणून ?

**रुदोल्फ** : [ओगीच रावता.]

**विल्मा** : तूं म्हणटलो आपूण ताका दिसपट्टो न्हाणयतां आनी जेवण घालतां म्हणून. पूण पोट भरून आनी न्हावन तें स्वतंत्र आसा ? ताका देवान ह्या तुज्या पिंजऱ्यांतूच जियेवंक रचलां ? ताका वाऱ्याची

गरज ना ? ताका देवान रचिल्लो संवसार पळोवंक नाका ? ताका भायर ताचे इश्ट रावनात ? ताचे कुडीक 'एक्सरसायज' नाका ?

**रुदोल्फ** : [मान खाला घालून ओगीच आयकता] गुन्यांव जालो मांय. हांवें त्या शेवण्याक ते नदरेन पळोवंक ना.

**विल्मा** : जाल्यार आतां पळय. तुका जितली स्वतंत्रताय जाय, तितलीच ताकाय स्वतंत्रताय दी. आनी उपरांतूच भायर वच. हांव दार उगडटां.

**रुदोल्फ** : मांय, खरेंच तुवें म्हज्या गिन्यानाचेर उजवाड घालो. हांव आयजूच त्या शेवण्याक स्वतंत्र करतां. [दारार कोण मारता.]

**विल्मा** : कोण थंय ? [भायर जोकींचो आवाज.]

**जोकीं** : हांव तो विल्मा, जोकीं. रुदोल्फ आसा ? दार कित्याक बंद केलां गो ?

**विल्मा** : तुजो मामा आयला. [मोट्यान] राव दार उगडटां. [वचून दार उगडटा. जोकीं भितर सरता.]

**जोकीं** : बाबा खंय आसा ?

**रुदोल्फ** : कसो आसा मामा ?

**जोकीं** : फॉर्त ! आयज हांवें तुका एक बरी खबर हाडल्या. गुड न्यूज ! लिसांव जालें मरे ? जावंक ना जाल्यार कर. दनपारां आमी भायर वेतले.

**विल्मा** : खंय व्हरता रे ताका ?

**जोकीं** : सस्पेन्स ! हांव पळय ताका खंय व्हरतां थंय तो हॅपी जातलो.

**विल्मा** : हय. पूण खंय तें तरी सांग !

**जोकीं** : सांगतां, सांगतां. पयलीं तूं सांग, ताणें ताचें लिसांव केलां ?

**विल्मा** : हय.

**जोकीं** : वेरी गुड ! पयलीं आमकां बरें जेवण कर. आमी ज्युरस्तूच अडेचांक भायर सरया. हांवें दोन तिकेटी हाडल्यात. डानऽतडांऽऽ! [नेटान तिकेटी दाखयता].

**विल्मा** : कसल्यो तिकेटी रे त्यो ? पिक्चराच्यो ?

**जोकीं** : पिक्चर ? तूं आनी कितें उलयताय गो ? हांव पिक्चराक वतां ? तियात्र बा कितेंय सांग.

**विल्मा** : म्हणटच ह्यो तिकेटी तियात्राच्यो ?

जोकीं : नो ! नो ! नो ! युकोजोना v/s कुसतोबा राणो. डानऽतडांऽऽ!

रुदोल्फ : W.W.F ?

जोकीं : नो ! रेड्यांच्यो धिरयो ! दोगूय सॉलिड आसात. आयज बरी फायट जावपाची आसा. [रुदोल्फाक] हॅपी न्हय बाबा ?

विल्मा : जोकीं, तूं बाबाक घेवन रेड्यांच्यो धिरयो पळोवंक वता ?

जोकीं : येस ! येस ! डानऽतडांऽऽ!

विल्मा : नो ! नो ! नो डानऽतडांऽऽ!

जोकीं : कितें जालें गो तुका ? धिरयो पळोवन जितली मजा येता ती सांगपाची न्हय. ते भायर हांव बॅटींग खेळपाचो आसां.

विल्मा : जोकीं, तुवें बारीक चिंतलां तूं कितें करता तें ?

जोकीं : हय गो, फक्त तिनशीं रुपयांची बेट लायतां.

विल्मा : जोकीं, दोगां जनावरांक झगडूंक लायतात, तांकां एकामेकांक शिंगां तोपून रगतां काडूंक लायतात, एकामेकांच्यो तकल्यो धाडावंक लायतात, आनी हें पळोवन तुमी खोशी जातात ? तांचेर बॅटींग लायतात ? कसलें हें दळदिरपण मनशाचें ?

जोकीं : आगो, ती तर एक गेम मुगो.

विल्मा : गेम ? कितें उलयताय तूं जोकीं ? तीं आमचे भाशेन जीव न्हय ? कसलो हक आसा आमकां देवान रचलेलो जीव घेवपाक ? कसलो अधिकार आसा आमकां जनावरांक एकामेकांचीं रगतां काडूंक लावपाक आनी हें पळोवन खोशी जावपाक ?

जोकीं : तूं समजूंक ना विल्मा, तूं नकळो कितली मजा येता ती...

विल्मा : मजा ? जर दोग जाण मनीस एकामेकांचीं रगतां काडटात, एकामेकांचो जीव घेतात तर तें पळोवंक तूं तिकेटी काडटलो ? पळोवन ताळ्यो मारतलो आनी बॅट लायतलो ? तूं जाणां, असल्या धिरयांचेर सरकारान बंदी हाडल्या म्हणून ? नाका जोकीं, म्हाका नाका तूं ह्यो धिरयो पळावंक गेल्लो आनी बाबाकूय थंय व्हेल्लो.

जोकीं : तिकेटी काडल्यात मुगो !

विल्मा : तिकेटी काडल्यात जाल्यार त्यो पिंजून भायर मार. हांव तुका पयशे दितां. तुमी नव्यान तिकेटी काडून फातोड्ड्या फुटबॉल गेम पळोवंक वचात.

जोकीं : बरें तर. चारांक फुटबॉल गेम आसा. पयलीं जेवया आनी थोडो

वेळ बाबाच्या ह्या शेवण्याक घेवन खेळया. डानऽतडांऽऽ!

**रुदोल्फ :** नो! नो! नो डानऽतडांऽऽ! मामा, आयज सावन हांव म्हज्या शेवण्याक स्वतंत्रताय दितां. ताची सुवात ह्या पिंजऱ्यांत न्हय; ताची सुवात मळबांत वाऱ्यार, झाडांचेर. आमी कॅरम खेळुंया. [वचून पिंजऱ्याचें दार उगडटा आनी शेवण्याक सोडटा.]

पड्डो पडटा

# टी.वी.क लागून

पात्रां :

फ्रेन्सिस, मार्क, ब्रॅन्डा, डेजमंड, गिलबर्ट

[डेजमंड रॉड्रिक्साचें घर. घरांत टी.वी., सामकार एक सोफा-सेट, मदेंच टी-पॉय, एका कोनशाक मेजार टेलिफोन. डेजमंडाचे दोगूय पूत, मार्क (१२ वर्सांचो) आनी फ्रेन्सिस (१० वर्सांचो) माचयेर दिसतात. मार्क टी.वी.चेर एक चॅनल लायता. फ्रेन्सिस ताका धुकलून उडयता आनी आपणाक जाय तो चॅनल लायता. मार्क नव्यान आपणाक जाय तो चॅनल लायता आनी फ्रेन्सिस परत आपणाक जाय तो चॅनल लायता. दोगूय झगडटात.]

**फ्रेन्सिस** : तुवें चॅनल कित्याक बदललो ?

**मार्क** : म्हाका रॅसलिंग पळोवपाक जाय.

**फ्रेन्सिस** : म्हाका कार्टून पळोवपाक जाय.

**मार्क** : हांवें सांगलां म्हाका रॅसलिंग पळोवपाक जाय म्हणून.

**फ्रेन्सिस** : आनी हांवें सांगलां म्हाका कार्टून पळोवपाक जाय म्हणून.

**मार्क** : [झगडूंक उबो रावता] हांव तुका युकोजुनो परी कांब घालून जमनीर उडयतलों.

**फ्रेन्सिस** : [तोवूय झगडूंक उबो रावता] हय ? हांवूय तुका जॅकी चॅनापरीं कराटे किक् मारून तुजें तोंड फोडटलों. [तितल्यांत कुजनांत सावन तांची आवय ब्रॅन्डा येवन तांकां आडायता.]

**ब्रॅन्डा** : आरे, तुमी कित्याक झगडटात ? तुमी टी.वी.चेर युकोजोनो आनी जॅकी चॅनाक पळयतात तें हेंच करपाक ? एकामेकांचीं बोडकां फोडपाक ?

**मार्क** : तो म्हाका W.W.F. पळोवपाक दिना.

**फ्रेन्सिस** : तो म्हाका कार्टून पळोवपाक दिना.

**ब्रॅन्डा** : आतां दोगूय तोंड बंद करात आनी हांव कितें सांगतां तें आयकात. आमच्या घरांत एकूच टी.वी. आसा. दोगांय जाणांनी एकाच बरोबर दोन प्रोग्राम पळोवपाक कशेंच शक्य ना. तर आतां म्हाका सांगात, तुमी कितें पळयतले ? रॅसलिंग काय कार्टून ?

**मार्क** : म्हाका रॅसलिंग पळोवपाक जाय.

फ्रेन्सिस : म्हाका कार्टून पळोवपाक जाय.

ब्रॅन्डा : [रागान] तशें जाल्यार तुमकां रॅसलिंगूय पळोवपाक मेळचेंना आनी कार्टुनूय पळोवपाक मेळचेंना. म्हाका एक बरेंऽ पिक्चर पळोवपाक जाय. तुमकां जाय जाल्यार तुमी पळयात. [वचून मूवी चॅनल लायता.]

मार्क : अँऽऽ! [आंगठो आनी जीब दाखोवन फ्रेन्सिसाच्यो खेबाड्यो करता.]

फ्रेन्सिस : अँऽऽ! [आंगठो आनी जीब दाखोवन मार्काच्यो खेबाड्यो करता. ब्रॅन्डा तांचेकडेन रागान पळयता आनी वचून व्हडल्या सोफाचेर बसता. मार्क आनी फ्रॅन्सिस दोगूय आपापल्या धाकट्या सोफांचेर बसतात. तिगांय पिक्चर पळयतात. तेन्नाच फोन वाजता. ब्रॅन्डा फोन उखलता.]

ब्रॅन्डा : हॅलो ! हय, ब्रॅन्डा उलयतां. कितें म्हटलें ? हय, बिजी आसलें घरच्या कामांत. उपरांत परत फोन कर आं ! [फोन दवरता. पिक्चर पळोवंक बसता. परत फोन वाजता. ब्रॅन्डा परत फोन घेता.] हॅलो ! मार्क ? आसा. राव. [फोनाचेर हात दवरून मार्काक मोनेपणानूच निशाणी करून सांगता. मार्क मोनेपणानूच आपूण ना म्हणून सांगपाक सांगता.] हॅलो, मार्क आतांच भायर सरला. सुमार अर्द्या वरान परत फोन कर आं ! [फोन दवरता. पिक्चर पळोवंक बसता. परत फोन वाजता. ब्रॅन्डा रागान फोनाक पळयता. उपरांत फोन उखलता.] हॅलो ! कोण ? फ्रॅन्सिस जाय आसलो ? [तितल्यांन फ्रॅन्सिस आपूण ना म्हूणन सांग अशी निशाणी करता.] हॅलो ! फ्रॅन्सिस आत्तांच न्हावपाक गेला. आनीक अर्द्या वरान फोन केल्यार जाता. ओके ? [फोन दवरता आनी थोडो वेळ चिंतल्या उपरांत टेलिफोनाचो रिसिवर काडून सकला दवरता. सोफाचेर बसता आनी पिक्चर पळयता. तेन्नाच दाराची बॅल वाजता. कोण उठना. पिक्चर पळयत आसतात. दारार परत बॅल वाजता. ब्रॅन्डा उठ्‌टा. टी.वी.चेर दोळे लावनूच दाराकडेन वता, खिळी काडटा. पूण दारार कोण आयला तें पळयनासतना परत येवन पिक्चर पळोवंक बसता. ब्रॅन्डाचो घोव डेजमंड, जो ऑफिसांतल्यान आतांच आयला, तो दारा भितर तकली वांकून पळयता.
भितर सरता, दार बंद करता आनी तांकां पळोवन...]

**डेजमंड** : गुड ईविनिंग मार्क. [मार्क आयकना, पिक्चर पळयतच आसा.] गुड ईविनिंग फ्रॅन्सिस. [फ्रॅन्सिस आयकना, पिक्चर पळयतच आसा.] [मोट्यान] गुड ईविनिंग ब्रॅन्डा.

**ब्रॅन्डा** : [बसुनूच जबाब दिता] गुड ईविनिंग, गुड ईविनिंग... गाल्सो राव आं ! पिक्चर बरें आसा. थोडो वेळ उरला... काबार जायत आयलां.

**डेजमंड** : [आयकून थटाकता] हें आनी कितें ? [रागान ब्रॅन्डाक] ब्रॅन्डा, हांगा यो ! [ब्रॅन्डा उठून एक अर्दान ताचे सरशीं येता]. ह्या घरांत देख म्हणून कितें आसा की ना ? ह्या घरांत वडिलांक मान दिवप आसा की ना ? [मार्क आनी फ्रॅन्सिस दोगूय कानांत बोटां घालून पिक्चर पळयतात.] म्हजो बापूय कामाक सावन घरा पावलो म्हणटकच आमी ताका 'गुड ईविनिंग डॅडी' म्हणटाले. आयज तुजो दीस कसो गेलो डॅडी, अशें विचारताले. डॅडीच्या हातांतलें बॅग घेवन, तें फावो त्या जाग्यार व्हरून दवरताले. आनी आयज म्हजे पूत कानांत बोटां घालून टी.वी. पळयतात. हांव आयलां वा येवंक ना तें तांकां पडुंकूच ना.

**ब्रॅन्डा** : आरे, ते दोगूय झगडटाले टी.वी. लावपाक. एकलो रॅसलिंग चॅनल लावपाक सोदता, दुसरो कार्टून चॅनल लावपाक सोदता. दोगांयचीं व्हडलीं केस्तांवां. ते पासत हांवें सांगलें, दोगांयकूय जाय तें मेळचेंना. म्हाका 'मूवी चॅनल' जाय म्हटलें आनी पिक्चर लायलें. अशें करून दोगांयकूय थंडायल्यात.

**डेजमंड** : पूण तांचीं लिसांवां गो ? तांच्यो एजामी लागीं पावल्यात म्हणून खबर आसा तुका ?

**ब्रॅन्डा** : हय रे ! तें सगलें हें पिक्चर जालें म्हणटकूच तूंच तांकां विचार. फक्त पंदरा मिनटां उरल्यांत. तुंवूय बस आनी पळय.

**डेजमंड** : कितें, म्हाकाय बस म्हणटा ? हांव तुमचे भाशेन लज नाशिल्लों न्हय. एजामी दिसांनी लिसांवां करपा वेळार तांचे बरोबर टी.वी. पळोवंक बसलों जाल्यार म्हजें बापायपण आनी उरलां ? तूंच घेवन बस तांकां. हांव कुजनांत वचून बसतां. [तो वता, तीं पिक्चर पळयतात, थोड्या वेळान डेजमंड कुजनांतलो धांवून भायर सरता.] ब्रॅन्डा, तुवें हांडयेंत दूद तापोवंक दवरलेलें ?

**ब्रॅन्डा** : [आबूज जावन] आगे म्हजे मांय, हांव सापूच विसरलीं.

**डॅजमंड** : आसूं, पिक्चर पळय तूं. हांवें स्टोव्ह बंद केलो.

**ब्रॅन्डा** : दूद तापून ओतलें न्हय ?

**डेजमंड** : तें हांव नकळों. दूद तर थंय दिसच ना. हांडी मात काळो कोळसो जाल्या. आतां घराकूच उजो पेटपाचो उरला. [परत कुजनांत वता]. ब्रॅन्डा टी.वी. पळयत आसा. दारार परत मोट्यान बॅल वाजता. ब्रॅन्डा टी.वी.क दोळे लावुनूच दाराकडेन वता, खिळी काडटा पूण कोण आयला तो पळयनासतना परत येवन पिक्चर पळोवंक बसता. ब्रॅन्डाचो कुन्याद गिलबर्ट लुवान भितर तकली घालून पळयता. भितर सरता. ताचें मुखामळ दुखेस्त. पयलीं भुरग्यांक जाप करता.]

**गिलबर्ट** : मार्क ! [तो आयकना. पिक्चर पळयत आसता.] फ्रॅन्सिस ! [तोवूय आयकना.] ब्रॅन्डा ! [तिवूय उलयना. पूण तोंडार बोट दवरून शूऽऽ म्हणून ताका ओगी राव म्हणटा आनी सोफाचेर बस म्हणून सिनाल करता. गिलबर्ट बसना. रागान...] आगो, आयकात तरी गो, हांव कितें सांगपाक आयलां तें !

**ब्रॅन्डा** : मातसो ओगी राव. पिक्चर काबार जायत आयलें. उपरांत सांग कितें सांगूंक जाय तें.

**गिलबर्ट** : [रागान, मोट्यान] ना, ओगी रावचोंना. [वचून टी.वी. बंद करता आनी तांच्या सामकाराक फुडो करून उबो रावता.] हो टी.वी. तुमकां इतलो गरजेचो ? एक दीस टी.वी. पळयना जाल्यार कितें उणें जावपाचें आसा ? केन्ना सावन हांव हॉस्पिटलांत साकून फोन करतां. कितें काय म्हटल्यार तुमी फोनाचो रिसिवर काडून सकला दवरला ? [तेन्नाच कुजनांतल्यान डेजमंड भायर सरता.]

**डेजमंड** : गिलबर्ट, ह्या घरांत केबल टी.वी. हाडिल्ल्याक घोवाची तर खबर सोडूच, देवाचो पासून कोण उगडास काडिना.

**ब्रॅन्डा** : गिलबर्ट, तुवें हॉस्पिटलांत सावन फोन केलो म्हळें ? कित्याक ? कोणाक कितें जालां ?

**गिलबर्ट** : ब्रॅन्डा, तुजो पाय हार्ट ॲटेक येवन मेलो !

**ब्रॅन्डा** : [किळांच मारता] ना !ऽऽ

[सगळीं पुतळे कशीं उबीं रावतात. सवका सवका काळोख जाता.]

[पड्डो पडटा]

# एक फट लिपोवंक

पात्रां :
बेलिंदा, विल्फ्रेड, विल्सन, पाय

[श्री आनी श्रीमती फेर्नांदीश हांचें घर. धा वर्सां पिरायेचो तांचो पूत विल्फ्रेड टी.वी. पळयता. तेन्नाच श्रीमती बेलिंदा फेर्नांदीश कुजनांतली भायर सरता. तिज्या हातांत ताट आनी ताटांत लाडू. लाडू मेजार दवरता आनी परत कुजनांत वता. ती गेले उपरांत विल्फ्रेड ताटांतलो एक लाडू काडून खाता आनी परत टी.वी. पळोवंक बसता. बेलिंदा चार ल्हान बशो घेवन येता आनी एक एक बशयेंत चार लाडू घालता. तिका एक लाडू कमी मेळटा.]

**बेलिंदा** : कितें ? आतांच हांवें सोळा लाडू तयार केल्ले. एक कमी कसो जालो ? [विल्फ्रेडाक पळोवन] विल्फ्रेड, तुवें हांगासरलो एक लाडू खाला ?

**विल्फ्रेड** : ना मांय. हांव तर टी.वी. पळयतां.

**बेलिंदा** : हें आनीक कसलें अजाप ? आतांच हांवें ह्या ताटांत घालून सोळा लाडू हाडून दवरलेले आनी कुजनांत बश्यो हाडपाक गेल्लें. परत येता म्हटल्यार एक लाडू कमी !

**विल्फ्रेड** : [टी.वी. बंद करून] आमचें पिंकी माजर मात मेजार घुसपतालें. ताणें खाला आसतलो.

**बेलिंदा** : [रागान] हय, त्या माजराक कितें म्हणून करूं हांव ? एक एकल्याक सारके चार लाडू केल्ले. आतां एकल्याक कमी पडटले. त्या माजराक सारकें लिसांव शिकयतां हांव. राव ! [कोनशांतलो एक दांडो घेता आनी माजराक मारता तसलो दांड्याचो आवाज भितरल्यान आयकूंक येता] तुका लाडू खावंक जाय ? तुका जेवण कमी पडटा ? बदमास मोनजात खंयची... [हें आयकून विल्फ्रेड भियेल्लो कसो जाता. मांय परत दांडो घेवन सालांत येता.] तुमचीं केस्तांवां नाका म्हणून हांवें सगल्यांक सारके पड सारके

लाडू केल्ले. ह्या माजरान घात घेतलो. [वचून मान खाला घालून, मेजाक तेंकून आसलेल्या कदेलीचेर बसता. भायर सावन तिचो व्हडलो पूत विल्सन येता. सुमार बारा वर्सां पिरायेचो.]

**विल्सन** : मांय, आमचें पिंकी दारार ओगीच बसून रडटा-शें? कितें जालां गे?

**बेलिंदा** : जालां म्हजें मडें! हांवें तुमकां खावपाक सोळा लाडू केल्ले. एक एकल्याक चार चार. लाडू हांगा मेजार ताटांत दवरून कुजनांत गेल्लीं. परत येता म्हटल्यार पिंकीन एक लाडू खालो. म्हाका राग आयलो. हांवें ताका दांड्यांनी मारलें.

**विल्सन** : कित्याक गे मांय? एक लाडू खालो जाल्यार कितें जालें? म्हाका एक कमी दिवचो आसलो. ताका मारूंक जाय आसलें? ती मोनजात न्हय? आमचे सारकें तिका गिन्यान आसा?

**बेलिंदा** : हय रे बाबा, तूं सांगता तें खरें. पूण म्हज्यान सोंसूंक जायना जालें. म्हज्या जिवाक संताप मारलो. हांवें अपुरबायेन म्हज्या भुरग्यांक, तुमच्या पायक आनी म्हाका म्हणून सोळा लाडू केल्ले. ते भायर, तूं जाणांच, तुमकां एकल्याक एक कमी पडलो जाल्यार तुमी कशे झगडटात ते.

**विल्सन** : हय गे मांय. तूं जाणा, पिंकी आमचो कितलो मोग करता तें? आमचे मदलो एकलो पासून घरा उसरां आयलो जाल्यार ताका सुसेग लागना. तें म्याँव म्याँव करीत आसता. म्हाका जाल्यार तो लाडू पिंकीन खाला हें सत कशें दिसना.

**बेलिंदा** : हय रे बाबा. ताणेंच खाला. विल्फ्रेड आसलो तें खाता आसतना.

**विल्सन** : हय रे विल्फ्रेड?

**विल्फ्रेड** : हय तर! म्हज्या सामकाराक खाला ताणें. मेजार गेलें, लाडू तोंडांत घेतलो आनी पळ काडलो.

**विल्सन** : तुवें कित्याक आडायलें ना ताका तर?

**विल्फ्रेड** : हांव टी.वी. पळयतालों. ताका आडावंक वेळूच मेळ्ळो ना.

**विल्सन** : ताका बाबड्याक गोड खावपाची रूच आयलेली आसतली. पूण तुवें ताका मारूंक फावनासलें मांय. तें बाबडें रडटा थंय. आतां ताका अशें पळोवन म्हज्यान ते लाडू खावपाक जायना. दी ते लाडू. [लाडवांची एक बशी घेता.]

**विल्सन** : ताका बाबड्याक हेवूय खावंदी. म्हज्यान एक दीस लाडू खायनासतना रावूं येता. [भायर वता. तेन्नाच मि. फेर्नांदीश, तांचो पाय, कामाक सावन येता.]

**पाय** : कितें जालां ? विल्सन पिंकीक लाडू खावयता सो ? [कोण कांय सांगना.] बेलिंदा, कितें जालां गो ? आयज तुवें लाडवांच्या वांट्याक पिंकीकूय धरलां कितें ? वेरी गुड. बरें केलें. [विल्सन परत भितर येता.]

**विल्सन** : तें कशेंच खायना. ताका शितिमेंत जाला. बगर रडटा.

**पाय** : पिंकी रडटा ? कित्याक ? [सगळीं एकामेकांक पळयतात, कोण कांयच उलयनात. मोठ्यान...] देवा पासत म्हाका मातशे सांगात कितें जालां तें ?

**विल्सन** : मांयन पिंकीक दांड्यांनी मारलें, ताणें एक लाडू खालो म्हणून.

**पाय** : हय बेलिंदा ?

**बेलिंदा** : हय, म्हाका राग आयलो. हांवें अपुरबायेन म्हज्या भुरग्यांक आनी घोवाक म्हणून लाडू केल्ले. तांतलो एक पिंकीन चोरून खालो.

**पाय** : पिंकीन लाडू खालो ? चोरून ? ना. हांव हें कशेंच सत मानूंक तयार ना. आयज सात वर्सां जालीं पिंकी आमगेर आसा. इतल्यो खावपाच्यो वस्तू आमच्या मेजार आसतात पूण खा म्हणून ताका दिल्या शिवाय पिंकीन केन्नाच एक वस्त खावंक ना. आनी आयज लाडू खालो ?

**बेलिंदा** : हय रे, विल्फ्रेडाच्या दोळ्यां सामकाराक खालो.

**पाय** : हय विल्फ्रेड ?

**विल्फ्रेड** : हय पाय.

**पाय** : तशें जाल्यार खाला आसतलो. मोनजात न्हय ती ? आमचे इतलें गिन्यान तांकां आसना. पूण तुवें ताका मारूंक फावनासलें बेलिंदा.

**विल्सन** : पिंकीक तशें पळोवन म्हज्यान ते लाडू खावंक जायना जाले पाय. ते पासत हांवें म्हजो वांटो पिंकीकूच खावंदी म्हणून तिच्या सामकार दवरलो. पूण तें कशेंच खायना.

**पाय** : तशें जाल्यार म्हज्यानूय खावंक जावचेंना. बेलिंदा, म्हजो वांटो व्हरून फ्रिजांत दवर. आयज म्हाका बेश्टी चाव दिल्यार जाता.

**बेलिंदा** : बरें तर, हांव तुमच्या सगळ्यांलागीं भोगसणी मागतां. म्हजी चूक

जाली हांवें पिंकीक मारलें ती. हांव म्हजोय वांटो फ्रिजांत दवरतां. विल्फ्रेड, तूं खा बाबा तुजो वांटो.

**विल्फ्रेड** : ना मांय. हांवूय खायना. तुमी सगळीं म्हाका भोगसात. हांवें फट सांगिल्ली.

**बेलिंदा** : कसली फट ?

**विल्फ्रेड** : मांय, तो लाडू पिंकीन खावंक ना. तो हांवें खाल्लो. पिंकीन खाला म्हणून हांवें फट सांगली.

**बेलिंदा** : कितें ? विल्फ्रेड ! लाडू तुवें खालो आनी पिंकीचेर बोगलांट घातलें ? कित्याक ? कित्याक विल्फ्रेड ? हीच देख आमी तुका शिकयल्ली ? तुका लागून पिंकीक बाबड्याक हांवें दांड्यांनी मारलें.

**पाय** : आसूं, आतां जालें तें जालें. विल्फ्रेड, तुवें तुजी चूक वळखली मू ?

**विल्फ्रेड** : हय पाय.

**पाय** : पळय, एक फट लिपोवंक तुका कितल्यो फटी मारच्यो पडल्यो त्यो. सुरवातेक तुवें आपणें लाडू खावंक ना म्हणून सांगलें. ही पयली फट. उपरांत तुवें पिंकीन खाला म्हणून सांगलें. ही दुसरी फट. ते उपरांत तुवें आपणें पिंकीक खाता आसतना दोळ्यांनी पळयलां म्हणून सांगलें. ही तिसरी फट. [विल्फ्रेड मान खाला घालता.]

**बेलिंदा** : तुजे फटीक लागून पिंकीक, आमच्या इतल्या मोगाच्या माजराक, हांवें दांड्यांनी मारलें.

**पाय** : ताका मारलें म्हूण मांय शिंतीर जाली. पिंकी रडटा म्हणून विल्सनान आपले लाडू खायनासतना पिंकीक व्हरून दिले. हें सगळें पळोवन म्हाकाय लाडू खायनशे दिसलेना. मांयकूय खायनशे दिसलेना. आतां घडये तुकाय खायनशे दिसचेना. हय मरे ?

**विल्फ्रेड** : [लुवान] हय पाय.

**पाय** : तुज्या ह्या एका फटींगपणाक लागून कितल्या जाणांक त्रास जालो तें पळय. तुवें लाडू खालो तो खालो. सत सांगूंक जाय आसलें. तुका रूच आयली, तुज्यान रावूंक नजो जालें, तुवें लाडू खालो. मांयक घडये इल्लो राग येतलो आसलो. पूण उपरांत ती तुका भोगशितली आसली. तुजी मांय न्हय तर ती ?

**विल्फ्रेड** : हांव चुकलों पाय, मांय. म्हाका भोगसात.

**पाय** : बरें आसा. पूण जाणा जायात विल्फ्रेड, आनी तुंवूय विल्सन, केन्नाच फट सांगची न्हय. कारण, एक फट लिपोवंक मागीर कितल्योशोच फटी सांगच्यो पडटात.

**बेलिंदा** : [ते ओगी आसात तें पळोवन] पायन कितें सांगलां तें आयकलें मू?

**विल्फ्रेड/विल्सन** : हय मांय.

**पाय** : [मात्सो हांसून] हावें आदल्यांची एक म्हण्णी आयकल्ली – हुंदराच्या रागान घराक उजो म्हणून. पूण माजराच्या रागान सगळ्यांच्या पोटाक उजो हें आयज हांव पयलेच फावट पळयतां! [सगलीं हालनासतना पुतळे कशीं उबीं रावतात. सवका काळोख जाता.]

[पड्डो पडटा]

# वेळाची किंमत

पात्रां :
मांय, पाय, जेरी

[जेरीचें घर दिसता. जेरी ८ वर्सां पिरायेचो इश्कोलाक वचपी भुरगो. इश्कोलाचें युनिफॉर्म न्हेसून खांदार बॅग लावन चिंतेस्त दिसता. उपरांत ताची मांय कापड न्हेसून येता. लुगटाचो कुडको घेवन घरांत साफ-सफाय करता. अकस्मात तिची नदर जेरीचेर पडटा.]

**मांय** : बाबा जेरी, तूं आजून इश्कोलाक वचूंक ना? आरे, तुका कितें जालां? [टायम पळोवन] आनीक पांच मिनटांनी इश्कोल सुरू जातलें मरे!

**जेरी** : म्हाका वचूंक भिरांत दिसता, मांय.

**मांय** : कित्याक?

**जेरी** : टिचरीन होम-वर्क दिल्लो तो हांवें आजून करूंक ना.

**मांय** : कितें? तुवें आजुनूय करूंक ना? सायबा, म्हाका सोंसूंक बळ दी. हांवें तुका शेनवारा दिसा सांगिल्लें मरे. तेन्ना म्हाका तूं सांगतालो, 'फाल्यां करतलों माय. फाल्यां आयतार आसा न्हय?' म्हणून.

**जेरी** : हय, म्हणलेलें गे...!

**मांय** : आतां शेनवार गेलो. आयतारूय गेलो. आनी आयज सोमारा दिसा तूं म्हाका होमवर्क करूंक ना म्हणून सांगता? हें पळय, हांव सदांच सांगतालीं तुका, आयचें काम आयज करचें. फाल्यां करतलो म्हणून रावशी, अशेंच जाता. आतां टिचरीक कितें सांगता तें तूंच सांग.

**जेरी** : तशी टिचर कांयच म्हणची ना गे.

**मांय** : हय? जाल्यार तूं आतांच म्हणटालो मरे, आपणाक इश्कोलाक वचूंक भिरांत दिसता म्हणून. कोणाची भिरांत तर ती? टिचरीच्या पायची? तोंड घेवन उलयता आनीक!

**जेरी** : बरें मांय, हांव इश्कोलाक वतां आनी टिचरीक समजायतां. तूं बेश्टीच हुसकेनाका. जबर जाल्यार टिचर फाल्यां होमवर्क करून हाड म्हणटली. [वता].




मांय : सांगल्यार पासून कित्याक आयकना म्हणून देव जाणा. पयर म्हाका आपुणूच विचारतालो, 'ए स्टीच इन टायम सेव्स नायन' म्हणचे कितें काय म्हणून. हांवें त्या वाक्याचो अर्थ समजावपाक आख्खें पुराण कशें सांगून दिलें. तरी तेंच. [कुडको घेवन एके कदेलीचेर झडपायता.] पायन चड लाड केल्यात. तो आनी एकलो आसा, कितेंय हाड म्हणून सांगल्यार 'फाल्यां हाडटलों गो, फाल्यां हाडटलों गो' म्हणून म्हयने काडटा. आयज सुटी काडून घराच आसलो. काल रातीं सांगलें, आमचो फ्रिज चलना, चल आनी मॅकानिकाक घेवन यो. गेला. आता पळोवया केन्ना येता तो. वाटेर कोणा इश्टागेरूय भितर सरतलो म्हणून सांगतालो.

पाय : [भितर सरता] रोजालीन, कोणाकडेन बडबडटा गो?

रोजालीन : म्हजेच कडेन!

पाय : तुजेच कडेन? जेरीन कितें केलें तर?

रोजालीन : कांय ना. आसूंदी ती खबर. तुजें सांग.

पाय : हांव जुजेगेर भितर सरलेलों मुगो, तांगेर टी.वी. चालू आसलो. क्रिकेट मॅच चलताली. कितें मॅच गो! बेस्ट सारकी. इंडिया जिकपाक चान्स आसा. जिकताच दिसता म्हाका.

रोजालीन : पिटर, तें क्रिकेट मॅचीचें बरें आसा रे, पूण तूं फ्रिज रिपेर करपाक मॅकानिकाक हाडपाक गेल्लो न्हय?

पाय : आयस्! [कपलार हात मारून] विसरलों!!

रोजालीन : बरें केलें. आयच्या दिसा भितर दोन किलो तरकारी आनी पन्नास रुपयांचें नुस्तें पिड्ड्यार जाता. तुजी तकली खंय आसा पिटर? कित्याक आयकनात तुमी? तुमच्या बेजबाबदारपणाक लागून हो इबाड जाता तो बरो?

पाय : इतली वाट काडून आयलों, कसो विसरलों कांयच समजना. फाल्यां त्या मॅकानिकाक हाडटांच.

मांय : आयज सुटी घेतल्या आसतना तुजेलागीं हाडूंक जावंक ना. फाल्यां सिर्विस आसतना तूं ताका हाडटलो? हाड, पळयतां हांव. सद्याक म्हाका शंबर रुपयांचें लुकसाण. तेभायर आयज कितें रांदतां तें तर फ्रिजांत दवरूंक जावचेंना. तूं आनी तुजो पूत एकूच. तोवूय तुजेच भाशेन जाला. [तेन्नाच जेरी भितर सरता.]

पाय : आरे जेरी, आयज इश्कोलाक वचूंक ना ? [मांयक पळयता.]

जेरी : गेल्लों पाय. टिचरीन परत धाडलो. होमवर्क करूंक ना म्हणून.

पाय : कितें ? तुवें होमवर्क करूंक ना ? कित्याक ? वेळ मेळूंक ना ? तुका हांवें कितले पावटी सांगलें, त्या दिसाचो होमवर्क त्याच दिसाक करूंक जाय म्हणून. कित्याक तूं समजना ?

मांय : [लोकांक पळोवन] पळयात, कोण कोणाक शिकयता तो !

जेरी : मांय, म्हजो गुन्यांव जालो. हांवें तुजें आयकूंक जाय आसलें. हांव तुका उतर दितां, हांव परत केन्नाच अशें घडूंक दिवचोंना. हांव आयज करूंक जाता तें केन्नाच फाल्यां दवरचोंना.

मांय : तूं आनी तुजो पाय, दोगूय एकूच तुमी. तो सकाळीं फ्रिज सारको करूंक म्हूण गेल्लो. सगलो संवसार भोंवलां, क्रिकेट मॅच पळयल्या आनी मॅकानिकाक घेनासतना परत आयला. आयज फ्रिजांतलें सगलें कुसून काबार जाता.

पाय : फाल्यां हांव त्या मॅकानिकाक जरूर हाडटां गो.

जेरी : फाल्यां कित्याक पाय ? आयज, आत्तांच वचून घेवन येवंया न्हय ? हांवूय तुजे बरोबर येतां. आमच्यान आजुनूय फ्रिजांत आसा तितलेंय पिड्ड्यार जावंक दिनासतना दवरूं येता.

पाय : कितें ? जेरी, हें तूं उलयता ? तुका कितें जालां रे ?

जेरी : म्हाका कांयच जावंक ना पाय. पूण म्हज्या गिन्यानार उजवाड पडलो. आयज म्हाका वेळाची खरी किंमत समजली. खरेंच, आयज करूंक जाता तें काम केन्नाच फाल्यां करूंक दवरचें न्हय. मांयन म्हाका हें कितलेच फावट सांगलें, पूण हांवें तिचें आयकूंक ना. देखुनूच आयज म्हाका इश्कोलाच्या सगळ्या भुरग्यां सामकारा लज भोगची पडली.

पाय : टिचरीन कितें म्हटलें तर तुका ?

जेरी : 'ए स्टीच इन टायम सेव्स नायन.'

पाय : इतलेंच मरे ?

जेरी : ना. आनी सांगलां, काल एक फावट बरोवंक दिल्लें तेंच होमवर्क आयज पन्नास फावटी बरय म्हणून!

पाय : आं ऽऽ! [सगळे पुतळे कशे उबे.]

[पड्डो पडटा]



## शेरॉन माझारेलो

शिकप: बी.ए. (सायकॉलॉजी)

शेरॉन माझारेलो ही एक कितल्योशोच कला आंगांत आशिल्ली कोंकणी तियात्रिस्त. ती कोंकणी तियात्राच्या मळावयली नामनेची बरोवपी, दिगदर्शक, नटी आनी गायिका.

शेरॉनबायेन कितलेशेच कोंकणी तियात्र आनी एक-अंकी नाटकां बरयल्यांत. कोंकणी भाशेचे चळवळींत ती सदांच वावरत आयल्या. शेरॉनबायक संगीताच्या मळारूय एक नामनेची कलाकार म्हणून गोंयचो लोक वळखता. शेरॉनबायन आपल्या सुरेल आवाजांत गायिल्लीं 'मडगांवां प्रासार', 'पावसाचो दीस', 'हांव कुड्डीं', 'उतर' सारकेलीं गीतां गोंयच्या आकाशवाणी आनी दूरदर्शनाचेर जायते फावट आयकूंक मेळटात.

तियात्राच्या मळार शेरॉनबायन बरयल्ल्या, दिग्दर्शीत केल्ल्या आनी स्वता आपणें भूमिका केल्ल्या तियात्रांचे प्रयोग गोंयच्या सगळ्या गांवां-गांवांनी जाल्यात आनी अजुनूय जातात. गोंयचे भायर तिजे तियात्र मुंबय, मंगळूर, पुणें आनी दमण हांगाय जाल्यात. अरब देशांनी लेगीत तिज्या तियात्रांचे प्रयोग जाल्यात. शेरॉनबायेक गावपाखातीर तशेंच तिच्या भूमिकांखातीर कितलेशेच इनाम फावो जाल्यात. १९८७ वर्सा तिका बऱ्यांतली बरी गायिका म्हणून 'मेयर ऑफ मुंबई अवॉर्ड' फावला. १९९५ वर्सा बाहरीन देशांतल्या गोंयकारांनी, तशेंच १९९६ वर्सा मंगळूरच्या 'मांड सोभाण' हे कोंकणी संस्थेन तिचो भौमान केल्लो.

'जिवीत एक तियात्र' हे पुस्तिकेंत शेरॉनबाय आपणें बरयल्लीं पांच एकांकी नाटकां वाचप्यां मुखार दवरता. ही पुस्तिका शेरॉनबाय गोंयच्या तशेंच गोंयाभायल्या कोंकणी वाचपी भुरग्यांक भेटयता. भुरग्यांच्या मनांत नाटकांविशीं वा तियात्रांविशीं मोग वाडचो देखून तिणें हीं एकांकी नाटकां तियात्र रुपांत बरयल्यांत.

नाटक वा तियात्र ही एक कला, जातूंतल्यान बरोवपी आपलो संदेश लोकांमेरेन पावयता. ह्या तियात्रांतल्यान शेरॉनबायले संदेश लोकांमेरेन बरे तरेन पावतले हातूंत दुबाव ना.